# स्पन्दन

प्रकाशन



## केरळ कोंकणी अकादमी

कोच्ची

खंड : १ | अंक : १ | १९३३ जेष्ठ




**मुखचित्र**

शेणै गोंय बाब- आधुनिक कोंकणी साहित्याचे बापुसु (Father of Modern Konkani Literature) शेणै गोंय बाबाले १३४ वें जन्म दिन त जून २३ तारिकेक।

लेखनान्तुली मतां त्या त्या बरोवप्याचीं

**स्पन्दन**
प्रति - ₹ 5/-
वार्षीक - ₹ 60/-

## मंडावळ


| मंडावळ | | पान |
|---|---|---|
| संपादकीय | प्रो. के. आर. वसन्तमणी | २ |
| पावसु | काव्यना बोस | ३ |
| श्री वेंकटेश विजय | डॉ. स्वर्णलता जी. पै | ४ |
| एक - दापण | आर के प्रकाश | ५ |
| आनन (तोंड) | प्रवीण आर पै | ५ |
| शेणाय गोंय बाब - एक वळक | सुरेश ए शेणै | ६ |
| नांचता गणपति | के अनन्त भट्ट | ८ |
| सद्वचन | आर. जी. मल्या | ८ |
| श्रीकृष्ण कथासुधा | शरतचंद्र शेणै | ८ |
| परणी म्हण्णी | श्रीदेवी सुरेश प्रभु | ९ |
| आळें | के. पुरुषोत्तम पै | ९ |
| सूण्याचि पिल्लां | अञ्जलि किणी | ९ |
| बाय्ल व्हरडिकेक गेल्ली | गोश्रीपुरं हरिकुमार | ९ |
| भक्ति | सैलेष कम्मत एम | ९ |
| केरळ-कर्नाटक कोंकणी | गुरुदत्त एस प्रभु | १० |
| बायलों खातीर (ददल्यांकय) | गीता भट्ट | ११ |
| गोयान्तुलो जोंवय | कुमारी श्रुति एस. पै. | ११ |
| फोव्हो | कुमार सुधीष एस. पै. | ११ |
| अंगेले कुटुम्ब (परिवार) | सन्ध्या एस. कम्मत्त | १२ |
| पांच | सोमनाथ काम्मत | १४ |
| संसारु | गोश्रीपुरं हरिकुमार | १६ |



SPANDAN
Published by :
KERALA KONKANI ACADEMY
8/28, 'Santhery', 1st Floor, Opp. M.S.C. Bank Ltd., Cherlai Road,
Cochin - 682 002. Mobile : 94477 35849
Email : keralakonkaniacademy@gmail.com

# संपादकीय

प्रपंजाची सत्य परिस्थितीय जांवन मनीसाक जोडोवपी पवित्र बळ आसा आवसु ! ह्या विश्वांत जल्माक अयिलेले समस्त प्राण्यांत मर्द्धें श्रेष्ट मनीस जल्मतां. जाल्यार जल्म घेतलेले वेळार स्वताक कांयतरी करुक तांकनाशिलें संतान मनीसालें आसा. आवसूलो आधार नांतरी, मनीसा भुरुग्याक जीवां आसपाक जावना. पळ्ळेले कडे पडून रडूक नंताणा ताका किर्ते करपाक जाता ? मुतांत-गुवांत पडनाशीलें, मुय्येन मुस्सान चाबनाशीलें, आवसु ताका पळोवन एता. वेळान -वेळान तिगेले दूद दींवन, देहाची हुनसाण दिंवन ती ताका वाडोवन हाडटा. कितले दीस-रात न्हीद नाशीर्ले तीणे काडका जाता ? पडळेले जागारपडून मात्र रडूक जावंचे मनीसा भुरग्याक, हासूक, ऊबीरावपाक चमकचाक, उल्लोंवचाक सगट शिकोवंचें आवसून. म्हळ्यार, निरालंबी मनीसा जीवियाक, ती तिगले पालवान स्वावलंबी करुन हाडटा आसा ! त्याखातीर कितलें कश्ट आनी लुसकान भोगपाक पडळ्यारीय ती दुःख पावना. अपण्यालें चेरडुं कितलें वाडल्यारीय आवसूक तें कन्नाय ल्हान भुरगें आसतात.

फुडले कालाक सहकुटुंब पद्दतांत आवसु-बापूस, भाव-भयण्यो सगट जांवन वीस-पंचवीस लोक ओटटुमेळून रावताले. हांचे संबंध घट्टमूट उरताले. आज तीन ना चार जनां आसचीं अणुकुटुंबांतां. अणुकुटुंबांत एकमका संबंध उणे उणे जावन एता आसा. ह्या व्यवस्थितीन आवसु आनी भुरग्यां मर्द्धेंचे प्रश्न सद्दां चडूनतां एता. मळबासमान वडून फन्दळेवन फुल्लुन रावचो पवित्र रुखतां आवसु ! तीजे बराबरीक दुसरें कोण ? जाल्यार, आवसु आनी चेरटुं म्हळ्ळेले मोलाधीक प्रस्तावाक धक्को लागचो काल हो ! हर्जे कारण सभार आसतात. आज आवसूलागी चेरटुंवालो व्यवहार दीस वता-वता वायट जावन एता ! हाका एक परिवर्तन हाडचे खातीर मई मासाचो दुसरो रविवार "विश्व मात्रुदिवस" जावंन मानोवन घेतांत. मायेन आनी मोगान भरीले आवसूक भोवमान आनी आनंद दीवंन पळोवपाक आजचे पिडीक तय्यार करचें हाजो उद्देश ! आमकां आमगले आवसूचे पय्यांकडे नमन करया।

धन्यवाद,

कोच्ची
02-06-2011

प्रोफ. के. आर. वसंत मणी
मुख्रेल संपादक

(चेर्डुवांक एक गीन्तु)

## पावसु

काञ्चना बोस, तृपूणितुरा

पावसु पडता रे..... पावसु पडता रे....
बस् बस् जाँव्नु झर झर जाव्नु....
पावसु पडता रे... पावसु पडता रे...।।

वॅरिं एत्ता रे ... झोडु वॅरिं एत्ता रे....
घस घस जाव्नु बस बस जाव्नु....
वॅरि एत्ता रे... झोडु वॅरिं एत्ता रे....।।

रुक वार्यान हल्लूनु धलताय रे...
झोडु वार्यान भय्यान हलताय रे... (वारें एत्ता...)

रुक्का मूणान्तु अंबे पडताय रे....
अंबे वेंचूक चेरडूवँ दंवाय रे....
अंबे पळ्ळे, पल्ले पळ्ळे, अंगण भरले....
पल्यान अंगण भरलें, मन्न सन्तोषान भरले...।।

बाँई भरली, तळें भरले...
अंगण भरले, उदकान अंगण भरले...
चेरडान मोंचूव सोळें, कागता मोंचूव सोळे...
चेर्डाले मन्न भरले, मन्न आनन्दान भरले।।

डा. पी. आर. हरीन्द्र शर्मा हॉंगेले "हिन्दी और कोंकणी संज्ञायें - तुलनात्मक अध्ययन" पुस्तक परम पुज्य संयमेन्द्रतीर्थ स्वाम्यान अड. ए. बी. प्रभूक दीव्नु २२.५.११ तारीकेक कोच्चीन्तु प्रकाशन केल्लें।



## नाम संकीर्तन :

प्रभूले / देवाले नाँव म्हण्ता रबूचे एक वकद तँ। आरम्भार बहु प्रयासु। अम्बो जाओ, पोणोसु जाओ, हर्वो अस्तना निब्बर अस्ता। मात्र न्हय अम्बूस/ हर्वटसाण अस्ता। गोड असना। पिकलो जल्यार ? अम्बों, पोणोसु, केळें इर्त्तेय जाओ गोड अस्तले। मात्र वे ? मोवूय अस्तले। म्हळार, मधुर अनि मृदुल अस्तले म्होणु अर्थु। तेंचि लेकान तँ भक्ती/नाम संकीर्तन। पिकूक सोळार पक्वता ऐलार मेळचो आनन्दु विवरणातीत तँ। पिक्कोंव्चे कस्सी ? अतँ लेकान रसायन इंजेकशन दिव्नु न्हँय। समयार (समयु काणु) पिकूचे तँ चाँग।।



श्री वेंकटेश विजय

संक्षिप्त विवर्तन -
डॉ. स्वर्णलता जी. पै.,गोश्रीपुरम.

मागीर सर्व देव एक उपाय करताई। ब्रह्मदेवु एक गाई जत्ता शिव ताज्जें वस्सुर जात्ता। आनी लक्ष्मी देवी एक गोपी जात्ता। तेग्गँई कोर्नु भूमीरी जगत्पिताक सोधुक आरंभ करताई। गाँय्क एक विशेष स्वभावु अस्स। तांका पोरमोळु घेव्नु पदार्थ इत्तें म्होणु कळतलें। भूमी पंदाक इत्तें आसल्यारि ताँका पोरमोळान वग्गी कळतलें। तें देकुनु ब्रह्मान गाईचो वेषु घल्लो।

परमात्माक सोधुनु ती गाय चोळ रायाले राज्यांतु पावली। त्या सुलक्षण गायेक दिक्कुनु सर्व आश्चर्य पंवताई। मागीर गोपी ते गाय्क रायाक विक्कुनु अदृश्य जल्ली। गायि आनी वासुर रायाले गायचा कोट्यांतु बांधिली। सदँ गांय्क चोरोंचाक घेवनु वत्ताना श्रीहरीक सोधिता। एक दिवसा गांय्क वेंकटगिरिरी व्हेल्ली। थांगा तॅण खाव्नु उदाक पिंवचा स्वामीपुष्करणी तीर्थांतु सर्व गायो गेल्यो। थांगा ब्रह्मान सर्व दिकान हुंगुनु श्रीहरीक सोधितना चिंचे रुका खाल्लाक वल्मीकां थाकुनु दिव्य परिमळु आयलो।

"म्हणे येथे आहे जगज्जीवन।
मनमोहन जगद्गुरु।।"

"हांगा जगज्जीवन-मनमोहन, जगद्गुरु जाव्नु आस्सिलो नारायणु अस्स म्होणु ब्रह्मा सांगता।" आनी तो गोरुपी ब्रह्मा संतोषान परमात्माक दुद्दा अभिषेक करता। कृष्णावतारांतु ब्रह्मालो मोहु दूर करतरी ब्रह्मान स्वर्गांतुले कामधेनु हाडोव्नु कृष्णाक दुद्दाभिषेकु करय्लो। जल्यारि आत्तँ स्वयं ब्रह्मा गाई जाव्नु परमात्मा मस्तकारि दुधा अभिषेक करता। माग्गिरी चतुरानन नित्य नारायणाक अभिषेक करता। एक दिवसा राणी आपण त्या सुंदर गाय्क धार काडता म्होणु आयल्यारि दूध मेव्ना। रायान कोपान त्या गोपालाक मारेय्लो। आपण्याली चूकी ना म्होणु ताणे सांगल्यारि रायु आयॅकना। मागीरी तो गोपालक ती गाई खंई वत्ता आनी दूध इत्तें करता म्होणु चोयल्यारी, ती चिंचे रुका खाला वल्मीकांतु दूध सोडता। हें चोव्नु कोपान तो गोपालकु त्या गाय्क मारुक मुकार सरलो। सर्वान्तर्यामि परमात्मु लेकिता,

"मी भक्तजनांचा रक्षक। ब्रीद माझें गाजे देख।।
ऐशियासरक्षक। मजवांचोनिकोण असे।।"

"हांव भक्तजनालो रक्षकु, हे मेगेलें ब्रीद (Title) आतॅ निष्फल जात्ता। अस्सले मेगेले भक्ताक हांव नंतन कोण रक्षण करतलें" आनी तो जगदात्मा तत्काल वल्मीका भायर प्रकट जाल्लो। गोपालालो गाय्क मारचो कुराडी पेट्टु श्रीहरीले मस्तका लागलो आनी रग्गत आयलें। हें अतिशयु चोव्नु गोपालु मूर्च्छन येव्नु पोणु मरण पावलो। गाई धाव्नु राजद्वारारि

गेल्ली आनी हांबेली। राजसेवक तिज्जे मागल्यान आयले आनी स्वामीपुष्करणी लाग्गी गोपाल मरण पाविल्लो आनी रक्ता ओव्कु दिक्किलो। तन्नी रायाक विवोरु सांगिलो। रायु तांचा मागल्यान येव्नु चोयता। तावळी त्या वाल्मीकां थाकुनु आकस्मात् श्री नारायण प्रकट जाल्लो आनी सांगिलें, "अरे पापिष्टा, तूवें माका दुःख दिल्ले। हांव एकलोची नुतच ह्या वाल्मीकांतु बेसले वेळारि मेगेलें मस्कत भेत्तिलें। हांव तुक्का शापु दित्ता कि तूं पिशाच जाव्नु ह्या वनांतु भोंवतलो। आहारु मेळनातिलें भारी दुःख भोगतलो"। शापु आयकुनु रायु भयान परमात्माले पायारी पव्ळो आनी प्रार्थना करता, "श्रीहरि हांव काई नेण। गय्येचे मागलान धाव्नु आयलो। कोण तुका दुःख दिलें म्होणु हांव नेण। श्रीनिवासा, हांवे चूकी करनातिलें तू कस्सि शापु दिलो? तुग्गेले नाँव घेतल्यारि प्राणी घोर संसारां थाकुनु तारण जात्ताई। आनी हांव तुग्गेलें प्रत्यक्ष दर्शन केल्लें। आनी आत्ता माक्का कशी पिशाचयोनी मेळतली? " परमात्मु सांगता, "माक्का घायु जाव्नु आस्सिले वेळेरी माका कळनातिल्लें हांवे तुका शाप दिलो। तुगेलीं कर्म गति अति विचित्र आनी भोगिले वेगळे वाट ना। कलियुगांतु तुग्गेलो उद्धार जात्तलो। सोमवंशांतु आकाशरायु जात्तलो। ताग्गेली सुंदर कन्याक हाँव वरण (लग्न) करतलो। रायु माक्का एक किरीट दित्तलो। तें केदनाई शुक्रवारा हांव धारण करतलों। ते वेळा तू दर्शन केल्यारि तुक्का क्षणमात्राक सुख जात्तलें। हें सांगुनु जनार्दन गुप्त जाल्लो। वाल्मीकांतु बेसूनु देवगुरुलो उड्गासु केल्लो। बृहस्पती येवुनु रुबंडा दींकु आनी कापसा भस्म मेळसूंनु घाया लायले। बृहस्पती हें कोर्नु परतुनु गेल्लो।

(.................शेष लगी अंकान्तु)

## एक - दापण

आर के प्रकाश, पळूर

एक देव अनेक रूप, अनेक नाँव भाव<br>
दोनि जाति, पुरुष आनी स्त्री<br>
तीन काल- सृष्टी, स्थिति, संहार<br>
चार रक्षक - माता, पिता, गुरु, देवु<br>
पाँच इंन्द्रियाँकय, भूताँकय हरवेल्यार मोक्ष<br>
स थाकून शें भितर ज्ञान त स्वासु,<br>
सात स्वर, संगीत प्रकृतीचे अमृत<br>
आट दिकाँचय पालकाँक पाँय पोडका<br>
नव ग्रहाँक, नवे ग्रहाँक मानु लेकूका<br>
धा कूट एकसी सिकूचे पसी चाँग एकडे बेसचेत।

## आनन (तोंड)

प्रवीण आर पै, कोच्वी

| | | |
|---|---|---|
| चतुरानन | - | ब्रह्मा |
| पंचानन | - | महादेवु |
| षडानन | - | कार्तिकेयु |
| दशानन | - | रावोणु |
| गजानन | - | गणपती |
| सहस्रानन | - | महाविष्णु |

# शेणाय गोंय बाब - एक वळक

सुरेश ए शेणै कोच्चि

शेणाय गोंय बाब हें गोयांतु ज़ावनु गेल्लले एक होड मनीषु. तान्नि कोंकणि भास, लिपि आनि संस्कृति खतिर केल्लले प्रयत्न मस्त आस्सा. संसारिक सामाजिक आनि साहित्यिक जीवनानि तान्नि निष्टेन कोंकणि मातेलि सेवा केल्लेलि-आयंचे युव जनांक एक मार्गदर्शन जावनु आस्सा.

आधुनिक कोंकणी साहित्याचे बापुस (Father of Modern Konkani Literature) म्हण शैणै गोंय बाबाक, मान-सम्मान दित्ताति.

जुन २३, १८७७ इस्वींतु हान्नि गोवांतु दिवचाले म्हळले एक सान हळ्ळि गावांतु जल्मलें. दुर्बळ् कुटुंबातु. हॉंगेले खरें नॉंव वामन रघुनाथ शेणाय वर्ध वालवलिकर. शेणै गोंय बाब् हें तांगेले साहित्यिक नॉंव.

शणय गोंय बाबाले बापय (आनु) चे नॉंव रघुनाथ बाब आनि आवसुले (अम्मा) नॉंव सीता बायि. ही दोग्गयि दिवचार्ले गौंवांतु आश्शिर्ले.

दिवचार्लेतु आस्ताना तांगेले घराचे वातावरणातु तान्नि मराठी शिकलले. प्रैमरी शिक्षण जात्तरि तांका शिक्षण मुकारसुनु होरुंक जायनि तीनि वर्स तान्नि घरकडे राब्बूक जाल्लें. ते वेळारि तान्नि वेळु नस्ट करनानातिले इंगलिष आनि संस्कृत शिकप शुरु केल्लें. मुकारसुनु तांगेले अप्पापा बाब् चिंतामणि राव वाल् वालीकार ह्राणे तांका मुंबैं शहराक आपुन वेल्लें. थॅंय ताणि गिर ग्रामांतु १८९८ हे वर्स तांगेले मेटरिक्युलेषन पूर्ति केल्लें.

मुंबैं थावनु तान्नि गोयांक वापस आयलें आनि उद्योग सुरु केल्लें.- थोडे दिसानि तांका कराचि मुन्सिपालिटि हांतु काम मेळ्ळे. स्वल्प काला नतंर तान्नि मेसर्स मिस्टर लूसियेस बुयेनिग नॉंवाच एक जर्मन कंपनींतु कामाक सेरवले. देवाले संकल्प मव्ळावरि कंपेनि कामाक राजिनामा दित्तरि ताणिं आपण्याले आवय भास कोकणि खातीर वावुरचेक आरंभ कर्ल्ले.

शेणै गोंय बाबांगेले कोकणि वावुर

साहित्यिक :-

शैणै गोंय बाबा हांगेले कोकणि वावुर संबंधान विद्धान राम चंद्र नारायण नायक् अशिं बरेतानि - तांगेले बहुमुखि आंनि अष्ट पैलु प्रतिभेक लागून ते अनेकांगि साहित्यकार जाल्लें. इतिहासकार, संशोधक, भाषा शास्त्री, व्याकरण शास्त्री, साहित्य रचपी, निबंध-प्रबंधकार. व्युत्पत्ति शास्त्री, जीणो-बरपि आनि खण्डन-मण्डनात्मक वा

करुन जैतचि अजिंक्यपदा जोडपी विवाद पट् ज़गडपी-साहित्यकार, हया शिवय तीनि बर्सा नवें गोयं हया ऊंच अभिरुचिच्चा नेम्याळ्यांचे संपादन करुन ताणिं विचारपूर्ण स्पुट बरवुपार्य जायतें केल्लां. तांचि अनेकमुखि साहित्या सेवा पळोवनु कोणाचेय मन आश्चर्य जायत.

वयले अभिप्राय वाचितरी आमका शेणै गोंय बाब् आधुनिक कोंकणि साहित्याचे बापय म्हण सांगुक कांय संशय ना, ताणि बरेललें पुस्तकं कोंकणि भाषेंतु आसुनु आय्चे युव पीळिगेक मार्गदर्शन आनि स्पूर्ति दित्ताति. कोंकणि साहित्याक ताणि मार्ग दाकैला.

हांगेले साहित्या कामांतु हांका पूर्ण प्रमाणे संहकारु दिल्ले हांगेले धर्मपत्नि सौ. शांताबाय्, दोन चेल्ले, रधुनाथ अनि पुडलीक आनि दोन चेल्लि (दूँव) वत्सला अनि कमला. १९२६ थकून एप्रिल ९, १९४६ (तांगेले मरण) थांय् तांगेले सार्थक साहितिक सेवा फल जावुन ३३ पुस्तक छाप्पुन आयलें. तांतु २२ पुस्तक देवनागरि लिपीतु ११ रोमि लिपीतु तांगेले आनिकय मस्त पुस्तक प्रकट जावुक राकताति.

गोंया कारांचो मुंबयिकार (१९१०) ह्यो हांचे पयले पुस्तक.

अशिं शेणै गोंय बाबानि कोंकणि साहित्य श्रीमांत केल्लां. तांगेले वावुरा निमित सक्कड कोंकण्यांक कोंकणि साहित्य वयरि मस्त अभिरुचि मेळ्ळा. कोंकण्यांक सर्व कडे गौरव मेळचे तशि जाल्ला. पोर्चगीसालें यजमानपण थावनु कोंकणि भायरि येवनु स्वतंत्र भास जवचाक वावुरलेले होड मनीशा शेणै गोंय बाब हांका एक नागरिकाक मेळ्चे अत्युन्नत गौरव प्राप्त जावका.

शेणै गोंय बाबले सामाजिक वावरा:-

१९२६ इस्वींतु तणि जर्मन कंपनीचे काम सोडतरि तांगेले समाजिक प्रयत्ना सुरु जाल्लें. १९१८ इस्वींतु दि "गोल हिंदु असोसियेशन" हया गोयंचे आनि गोंयकारांचे वेगळे-वेगळे-प्रशने सोडोवापा खातिर स्थापन केल्लल्या संस्थेंतु ते आरंभा-पासुन वावुरले आनि १९२७ वर्सांत ताणिं हे काम सोडले, मागिरि हिन्दु मंडळातु तान्नि वावुरलेले दिस्ता. मुकारसुनु मुंबैंतु चरडुवानि आनि कालेजा यूवकानिं हाँगेले नाटक प्रदर्शन कोरुंक आरंभ करतना हांका तांगेले-वळक चुड जात्त आयले. सारस्वता ब्राहमण समाजाचा आधारानि केल्ललि 'गोंय भायलि वसुणु के चोर' दीर्घ व्याख्यान हणिं दीवनु मोट्टे विद्वानालें मनांतु जागृति हाडलि. फादर हेरास, प्रो. वसंत नारायणा नायर आनि कोंकणि परिषदेचा कामांतु तांचि वळक, माधव मंजुनाथ श्यानभाग, दिनकर देसाई. रा. बा. तालामकि डा. डोंगराकेरि तश्शीचि, मुंबयि मंगळूर वरेनु जाय्रित्या लोकाकडे तांचे संबंधु वाडलो तांगेले जीवित कालांतु हजार वयरि वर्साचे इतिहास दवळून काडलो आनि तें इतिहासाचे भूत आपण्याले मानशुटेर बसोवन गेतले अनि वर्तमान कडेन मुंबै सरक्या शारांतु लडाय मारुन गोंय कारांचो पुडार निश्शिंचत आनि निस्चित केल्लो. हो आमचो महापुरुष.

## नांचता गणपति

के अनन्त भट्ट, कोच्चि

करिवदन हे रंब लंबोदर
गणनाथ मोदक प्रिय देवा।
परशु पाशांकुश करांकित
गौरी सुता करतात सेवा।।
नमन हें आद्याक गणपति देवाक।
आमी भजताति गणेशा राक ।। पल्लवी।।
हस्तीचें तोंड देवा तुका हाथ चारी।
मस्तक बागसितां हे शोक संहारी।।१।।
गौरीनंदना हे विघ्न विनायका।
करूणा करि तूं मंगल दायका।।२।।
श्रीगणपतिगेलें केल्यारि वंदन।
मंगल मेळता आनी निसरता बंधन।।३।।
गणनायकु तूं सिद्धि प्रदायकु।
म्हणता अनन्तु तूंचि विनायकु ।।४।।

## सद्वचन

आर. जी. मल्या, वारापुषा

सत्य तुल्य तप ना
असत्य तुल्य पाप ना
खँय सत्य असता
थँय देवु असता ।।
अम्बो फुल्लेता दुसराँ खातिर
गायचि धार दुसराँ खातिर
नदी व्होळता दुसराँ खातिर
परोपकार आँवगेलो धर्मु, औदार्य न्हँय ।।
आपत म्होणु लेकचे आपत न्हय
संपत्ती म्होणु लेकचे संपत्ती न्हय
आपत मळेले श्रीहरीक वीस्सोरचे
संपत्ती मळेले श्रीहरीले स्मरण एंव्चे।।



श्री शरतचंद्र शेणै विरचित अष्टोत्तरी

## श्रीकृष्णकथासुधा

( श्लोक ११ ते १५ )

वसुदेवाक देवकी सहित
बंदखणींत घालो कंसान
एक एक म्हुण मेजीत मेजीत
बाळकांक मारले नीचान (११)

योगमायेलो केद्दो चमत्कार
सातवो बाळक पावलो गोकुलांत
आठवो जन्मलो श्यामांगसुंदर
श्रावणांतुल्या पावसा रातींत (१२)

बाळकाक काडून वसुदेव
चमकलो गोकुलाचे वाटेन
दारां उगडलीं स्वयमेव
उदाक फाडलें यमुना नदीन (१३)

निद्रेर जालो समस्त लोक
गोकुलांत पावलो बाळक
आनीक मेळ्ळी वसुदेवाक
यशोदेरं जालेले मायेक (१४)

उटायलो कंस दुःस्वप्न दिकून
धावलो तों आठवे चेरडाक सोदून
उबारलें ताका पायांक धरून
स्वंत रूप धरलें मायादेवीन (१५)

## परणी म्हण्णी

श्रीदेवी सुरेश प्रभु, कोच्ची

१ जिबेक लज्जा ना जाल्यार तोंडाक भाग्य।
२. चांग आटैल्यारि चांगची मेळता।
बरेंपण केल्यारी बरेंपण मेळता।।
३. मन आसिले कडेन माधवु
जन आसिले कडेन जनार्दन।।
४. दुडवाळांक दिवच्याक हाथ ऐना,
नत्तिल्यांक दिवचे त्राण ना।।
५. व्हडिकेक घर न्हय व्हर तँ चोंव्का।

## सूण्याचि पिल्लां

कुमारी अञ्जलि किणी, कोच्ची

अस्सिल्लीं पिल्लां तीं सात जाण
खंयि थकून आयल्यां तीं कोण नेण।
सूण्याचि पिल्लां ती खेळ्ळ्नु भोंतायि
उत्सूक जनपद धाव्नु पंतायि।
सूण्या पील एक बोंई जल्लें
एकलान तक्का काणु व्हेल्लें।
हेट्टी ह्यी, मक्का नक्का
पेट्टो तो जाई मक्का।
पेट्ट्यां खातीर झगडे जल्लें
हेट्टेक कोण घूव्नु चोयनायि जल्लें।
हेट्टी ती कोणाक नक्का जल्ली
वट्टेरी सर्वत्र धाव्नु भोवली।
रोणु रोणु ती सानी हेट्टी
जनपदालगी संगता जल्ली।
"हेट्टी दिकून मेज्जे अवहेलन करतायिं
चेलियां वर्गालगि अन्यायु करतायि।
हान्नि मक्का कोण व्होर्का नक्का
अनाथ न्हयि हांव, देवूचि शरण मक्का"।

## आलें (കടങ്കഥ / Riddles)

के. पुरुषोत्तम पै, कोच्ची

चिकलाचे उदकान्तु जाँवचें तेंवेय
रूपान सुन्दर वस्तु।।
देवा मत्यारि दोवोर्नु तेवेय
शान्ति पाँवताय मू अम्मि।।
दुब्धा समुद्रान्तु जालेले तें म्हणु
साँगताय परने मनीष।।
एक देवु आनी एकी देवी तका
सुखान बेसूक काडताय।।
बालकाँ हथान्तु पळयारि तन्नि तें
हस्सून पिस्सूण घालताय।।
कसलकी तो वस्तू म्हणु तुम्मि
साँगाय चाँकोर्नु चिन्ता कोर्नु।।

पद्माक्ष

## बाय्ल व्हरडिकेक गेल्ली

गोश्रीपुरं हरिकुमार

बायलेन घल्लो शेण्डो
व्हरडिकेक दिल्लो गोण्डो
पन्नार उण्डो मण्डो
नक्का जल्यार सेण्डो।।

## भक्ति

दुःख्या संसारान्तु जन्मु ताणे घेतलो
माया शक्ति दिक्कून तो भिल्लो।
देवाले भक्तिक शरण तो पवलो
संतोशु पाव्नु मुक्त तो जल्लो।।

-सैलेष कम्मत एम., कोच्ची

# केरळ-कर्नाटक कोंकणी

गुरुदत्त एस प्रभु, कोच्चि

| | | |
|---|---|---|
| कूक | - | बट्टट्टो |
| जीविचवळी | - | अळसन्दो |
| बिरम्बि करम्बल | - | बिम्बुल |
| पायसु | - | गोडसें |
| दुधापायसु | - | दुद्पाकु |
| वोरोवु | - | तन्दुळु |
| सांबारु | - | कोळंबो |
| बाळूकं | - | कचरि |
| हप्पोळु | - | पप्पोडु |
| अळ्ळि | - | चेप्पे |
| चाया | - | चा |
| पयंदार | - | शक्कर |
| भेंडें | - | भेंड |
| निंबुवो | - | लिंबियो |
| मास्सळी | - | झळ्के |
| कंबळि | - | वोलि |
| अंगुटि | - | अंगसो |
| सत्तुलि | - | सत्तें |
| जीविसांग | - | तरनि मिरसांग |
| पुरनपोळी | - | उब्बटि |
| चोंक्का | - | पोळोंवंका |
| ऊचारि | - | वयरि |
| खल्लाक | - | सकल/तोग्गु |
| बेस | - | बैस |
| मेल्लो | - | गेल्लो |
| गेल्लो | - | चमकलो |
| बेट्टेळु | - | फुरसत |
| पिश्शच्चो | - | पिस्सो |
| संत | - | अगूर |
| ओमसोरु | - | गडबडि |
| चांगं | - | चंद / बरें / लायक |
| बल्लाव | - | वायट |

| | | |
|---|---|---|
| देवळ | - | देवस्थान |
| अंगेलि भाष | - | अंचगेलि भास |
| थंगा | - | थंय |
| वळकि | - | गुर्त्तु |
| (लोकु) एक्कडे जल्लो | - | (जन) कुडवले |
| एक्कडे केर्ल्ले | - | कुडशिलें |
| सुतकल | - | होले |
| प्रदक्षिण | - | सुत्तु |
| सन्तोषु | - | खुशि |
| स्वंतंय ? | - | खंय ? |
| इत्तें ? | - | कस्सलें ? |
| पोंजाबु | - | पिज्जो |
| आबु | - | अज्जो |
| बाप्पा | - | आनु |
| अन्नु | - | अण्णा |
| अप्पप्पा | - | बप्पा |
| मौसि | - | पच्चि |
| आयि | - | अज्जि |
| वोव्वळम्मा | - | बप्पमा |
| अम्मम्मा | - | मावुम्मा |
| एक्कडे जाव्नु | - | ओट्टु मेळनु |
| एकसानीचि | - | ओट्टूचि |
| वच | - | वस |
| उत्तुलें | - | कितलें |
| वरँ | - | घंटे |
| वेचु | - | खर्चु |
| थरथरेता | - | जरवता |
| शेळ | - | थंड |
| शेळवोतु | - | थंडायि |
| अंगा उज्जो | - | शेख्रो |
| गोन्दोळु | - | गौजि |
| झगडें | - | गलाटो |
| वरॉंकोरण्डो | - | घडियारु |

# बायलाँ खातीर (ददल्यांकय)

गीता भट्ट, कोच्ची

चिंचाम्ब धढाय्लेलें, मल्ली तम्बळी म्होणूयी सांगूयात।

## सामग्री

| | | | |
|---|---|---|---|
| जीवि कोत्तम्बरि | - ५ मूड | मीट | - उणेच |
| अल्लें | - सानु कुटुको | चिंचाम्ब | - उणेच |
| जीवि सौंग | - ५ | | |

जीवि कोत्तम्बरि चाँग कोर्नु धूवका। अनिक पल्ले मात्र काडका। अल्लें धूव्नु ख्रोर्डून, जत्तरि कुट्टीके कोर्का। जीवि साँगय तस्सीच कोर्का।

यें तिन्नीय अनि मीट, चिंचाम्ब (पाँच भग/कूट) कोर्नु एक्सानिचि मिक्सीन्तु घाल्नु वट्टूका। (रोगोड्यान्तु घाल्नूय धढाव्येत)। अल्लें तय्यार। एक आयदनान्तु काणु दवोर्नु, आवश्यानुसार उपयोग कोर्येत। तात्पर्य अस्स जल्यार उणे हींगु आनि तेल लगेन घाल्येत। सौख्य (सुख) ना जल्यार तेल नक्का म्होणु दवोर्का।)

(यें तोण्डाक रुचि एंव्याक अस्सिलें। सौख्य (सूख) ना जल्यारि प्रत्येक जाव्नु। मात्र न्हय तोण्डाची कोडुवाणि, अजीर्ण, ओंकि सग वत्तलें। यें जेंव्याकय, पेज्जे निस्यान्तु घाल्नु निस्सें पिंव्याकय कडतनि।)

## मैसूर पाक

सुर्वेक मैसूर रौळारान्तुले पाक (पाचक) शालेन्तु तैं तय्यार जल्लेलें। रान्दपि - काकासुरा माडाप्पा म्होणु संगताय।

## गोयान्तुलो जाँवय

कुमारी श्रुति एस. पैं.
(५न्तु सिक्कता)

हाँव गोयान्तु गेल्लो
घोण्ट्रेव मम्मान मक्का व्हेल्लो
घोरे चेल्येक हाँव चोय्लो
घोण्ट्रेव मम्मालो जाँवय जल्लो।।

## फोहो

कुमार सुधीष एस. पै.
(२न्तु सिक्कता)

हाँव एकु चेल्लो
जल्ले मक्का भयँ
फोहो म्होणु कोळूक
जल्ली मक्का लज्जा।।

# अंगेले कुटुम्ब (परिवार)

सन्ध्या. एस. कम्मत, कोच्चि

| | | |
|---|---|---|
| बापुसु | - | बप्पा |
| आवसु | - | अम्मा |
| पूतु / धूव | - | चेरडुवँ |
| सून | - | पुत्तालि बायल |
| झार्वेय | - | धुवेलो बामुण |
| आनु | - | भौण्डान्तु मलगड्यांक सानानि उळदूचे |
| अक्का | - | बप्पाली भर्यणि, भयण्यान्तु मलगडेक सन्नानि उळदूचे |
| भावु | - | अक्कालो बामुण, भौण्डान्तु मलगड्यानि सन्नांक उळदूचे |
| होनी | - | अन्नाली बायल |
| भयणी | - | भैण्यान्तु मल्गडि सन्नांक उळ्दूचे |
| भावज | - | भावालि बायल |
| नत्तु | - | पुत्ताले / धुवेले चेल्ले |
| नाती | - | पुत्ताली / धुवेली चेल्ली |
| पोण्तु | - | पुत्तालो नत्तु |
| पोण्ती | - | पुत्ताली नाती |
| सेणत्तु | - | नत्वालो नत्तु |
| सेणत्ती | - | नत्वाली नात्ती |
| आबु | - | बप्पालो बप्पा / अम्मालो बप्पा |
| वोळम्मा | - | बप्पाली अम्मा |
| अमुम्मा | - | अम्माली अम्मा |
| आयी | - | मलगडे वर्ष जालेले बायलांक उळदूचे |
| पोण्जो आबु | - | बप्पालो / अम्मालो आबु |
| पोण्जी आयी | - | बप्पाली वोळम्मा, अम्मालि अमुम्मा |
| मावुँ | - | बमुणालो बप्पा |
| माँयी | - | बमुणाली अम्मा, मम्माली बायल |

| | | |
|---|---|---|
| नन्तूरँ | - | नत्तु अनि नाती |
| पोण्तूरँ | - | पोण्तु अनि पोण्ती |
| सेण्तूरँ | - | सेण्तु अनि सेण्ती |

(वोळे बाइलांक मानु कोरूक उल्दीताइ)

| | | |
|---|---|---|
| भय्या | - | बामुणालो आनु |
| जाव | - | बामुणाली अन्नाली बायल, बामुणाली भावाली बायल |
| देरु | - | बामुणालो सानु भावु |
| नणन्द | - | बामुणालि भयणि |
| पुत्तणि | - | अनालो / भावालो चेलो |
| दुवडी | - | अनाली / भावाली चेली |
| मेवणो (अळिया) | - | भयणि बामुण, बायलेलो भावु, भोभयण्याले बामुणमाँ अळत्ता पेळतान्तु मेळ्गे |
| म्हान्तु | - | बप्पालो आनु |
| म्हाव | - | बप्पाली होनी, अम्माली अक्का |
| अपप्पा | - | बप्पालो भावु, अम्मालो भयणि बामुण |
| मौसी | - | अपप्पाली बायल, अम्माली भयणि |
| मामु | - | अम्मालो भावु |

(मावळो)

(प्राय जालेल्यांक आदरवानि मामु म्होणु उव्हदीताय)

| | | |
|---|---|---|
| भच्चो | - | भयणिलो पूतु - भयणिलो धूवे बामुण |
| भच्चि | - | भयणिली धूव - भयणिली पुत्ताली बायल |

(पोण्तूर-मुख दिक्कीलारि अब्बोक अनि वोळेम्माक मोक्षु मेळतलो म्होणु संगतात । तंका अनियेक जन्मु ना म्होणु अर्थु। पुत्ताले नत्वाले (पुत्तालोच पूतु जावंका, धुवेलो पूतु न्हयीं)

## आत्मीय

दुसराले दुःखान्तु दुःखित जंव्चे सहज। होड प्रयासु अस्सिले न्हय। म्हळार दुसराले सुखान्तु, सुख पांव्चे भारि कष्ट। तेंवेंय सुख भोगुचे स्वता जन जल्यार, ना तरि कोळचे/वळ्कूचे/ परिचय अस्सिले जल्यार। तंगतंगेले दुःखा पस्सी चढ दुसराले सुख एक मनुष्याक चढ कष्ट दित्ता (सहन जाय्ना)। यी तँ मनुष्याली होडि समस्या। ईर्ष्या म्होणचे ये भावनेचेर कोण विजयु पांव्ता की तो जीवितान्तु सफल जत्ता। धर्मपालन म्होणु संगूचे हकाचि।।

# पांच

सोमनाथ कामत, बंगल्लूरु

| | | |
|---|---|---|
| पंचप्राण | - | प्राण, अपान, व्यान, उदान, समान |
| पंचेन्द्रिय (ज्ञानेन्द्रिय) | - | कान, दोळे, नांक, जीब, सालि (कात) |
| (तंचे विषय) | | (शब्दु) (रंग/रूप), (गन्ध), (रस), (स्पर्श) |
| पंच कर्मेन्द्रिय | - | हाथ, पाय, जीब, लिंग, गुदा (गोयन्ढों) |
| पंचभूत/पंचमहाभूत/ | - | आकाश, वायु, अग्नी, उद्दाक, भूंय |
| पंच तत्व(अनि तंचे गूण) | | (शब्दु), (स्पर्श), (रुप/वर्ण), (रस), (गन्ध) |
| पंचांग | - | तिथी, वारु, नक्षत्र, योग, करण |
| पंचाक्षरी | - | न - म - शि - वा - य |
| पंचमहायज्ञ | - | ब्रह्मयज्ञ (वेदपठन), पितृयज्ञ (तर्पण), देवयज्ञ (होमु), भूतयज्ञ (बलि) मनुष्ययज्ञ (अतिथि पूजा) |
| पंचमहामेध | - | गोमेध, अश्वमेध, नरमेध, अजमेध, महिष मेध |
| पंचपाण्डव | - | धर्मरायु (युधिष्ठिरु), भीमु, अर्जुनु, नकुलु, सहदेवु |
| पंचगव्य | - | (गायचे) दूद, तूप, मेणाय, शेण, मूत |
| पंचामृत | - | (गायचे) दूद, मेणाय, तूप आनि म्होवु, पैन्दार |
| पंचमहाविष | - | शृंगी, काळकूड, मुस्तक, वत्सनाभ, शंखकर्णी |
| पंचकदायि | - | चोण्या दाळी, मुगादाळी, तीळु, गोड, सोई (हजान तय्यार केल्लेले खाण) |
| पंचकदायि पायसु | - | चेण्या दाळी, मुगादाळी, गोंवाकोणो, गोड, सोई (घालनु तय्यार केल्लोलो पायसु) |
| पंचगौड | - | (ब्राह्मणा मद्धें अस्सिली पांच शाखा) गौड, कनोज, मैथिल, सारस्वत, उत्कल |
| पंच द्रवीड | - | महाराष्ट्र, कर्नाटक, तमिलनाडु, केरळ, आन्ध्रप्रदेश हंगाचे ब्राह्मण वर्ग |
| पंच द्रवीड भाषा | - | कन्नडा, तमीळ, तेलुगु, मलयाळम, कोडगु |
| पंच लोह | - | ताम्बें, पित्तळि, भंगार, रुप्पें, काशें (ये धातूंचें मिश्रण) |
| पंच मुद्रा | - | शंख, चक्र, गदा, पत्म, नाम (मुद्रा) |
| पंच पक्वँ | - | अप्पो, लड्डु, केळा बाळुक, मोदोकु, केळाकुटुको (पिट्टान्तु बुडोन्नु तोळोलो) (सौकर्याक वेगळीं पक्वय करतायी) |
| (कॉलिचें) पंचवास स्थान | - | जुआ खेळा स्थान (फोटवण), सुरालय (लहरी), वेश्यालय (विकार), मृगांक कतोर्चे स्थल (क्रूरता), भंगार (अहंभावु) |

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| पंचारि (मेळं) | - ओट्टा चेन्डें, चेन्डें, ताळु, कोम्बु, पेंपरें (मेळं) | | | |
| पंचवाद्य | - तिमिला, मद्दळम, ताळु, कोम्बु, इडक्या | | | |
| पंचरत्न कीर्तन | - | (रागु) | (ताळु) | (मेळं) |
| | जगदा नन्द कारका.... | नाट्ट | आदि | ३६ |
| | दुढुकगल नन्हे.... | गौळ | .. | १५ |
| | कन कन रुचिरा.... | वराळी | .. | ३९ |
| | साधिञ्चेने... | आरभि | .. | २९ |
| | एन्दोरु महानुभावलु... | श्री | .. | २२ |
| पंच यम | - अहिंसा, सत्य, आस्तेय (फोटवण कोर्नत्तिलें रबप) ब्रह्मचर्य, अपरिग्रह (भौतिक वस्तूचें संग्रहु कोर्नत्तिलें रबप) | | | |
| पंचनियम | - शुध्दि (देह-मनाचि) संतृप्ति, तप लाळित्य), स्वाध्याय (वेदाध्ययन अनि ईश्वर नामोच्चारण), (ईश्वर) ध्यान | | | |

पांच तराचि वर्ष गणना :-

| | |
|---|---|
| संवत्सर | (सूर्याक आधार कोर्नु) |
| परिवत्सर | (बृहस्पतीक आधार कोर्नु) |
| इडावत्सर | (तीस दिस्साचे एक मासु) |
| अनुवत्सर | (चन्द्राक आधार कोर्नु) |
| वत्सर | (नक्षत्रांक आधार कोर्नु) |







# संसारु

गोश्रीपुरं हरिकुमार









